# मांय तुका उल्लास

उदेलो मांय आज नवो दीस
जांयना जाल्यार पुरो आयची सांज
तुज्या गालार आज उम्यांचो रास
माग्तां मांय तुका बरो जल्मा दिवस

तूं दुबळी तरी, आमकां केलेंय ग्रेसत
विचार्च्या पयलेंच्च दिताय मूं ह-येक वसत
तुज्या बायर नां आमकां खंचीय आसत
तूं आसतानां येंवचेनां आमकां कसलेंय ख्यासत

पयश्यांच्या संसारार जाल्यांव आमीं वेगळीं
लान पोनाद्वारीं परत मेळ्ळयांव आज सगळीं
जशें आसतात एका केंळब्यार सबार केळीं
तशें तुज्या मोगांत आमीं जांवचिनांव मेकळीं

कोण मांय तीं, जेजू, जुजे, मरी?
साध्य गी आसोंक तीं, तुज्यानी बरीं?
मेळोंक नांत कित्याक तीं, कितलें हांवे सोदल्यारी?
तुंच मांय आमकां देव, ह्या संसारी

कितें कर्ताय, कितें रांदलाय, कसो आसाय
खळनासतानां कित्याक तूं म्हाका विचार्ताय?
कित्याक तूं पळयनांय दूस-यांबरीं म्हजी सोभाय
फकत्त विचार्ताय मूं, तूं आज जेवलोयगी नांय?

उडास दोसता मांय तुजो, एक्सुरों आसतानां
तुजोच्च उडास मांय, पिडा शिडा येताना
ह-येक विषय हांवे सांगचा पयलें तुका कळतानां
लिपवंक साध्य नांत तीं म्हजीं लान लान बोगणां

शिकयलेंय आमकां रावोंक, सुखा दुखांत
सोडलेंनांय तुंवे आमकां, कषटा अन्वरांत
भागी आज जाल्यांव, जल्मोन तुज्या पोटांत
भासेयतेय्यांव आज तुका, पळेयतेल्यांव म्हण मोगांत

येंवचाक आनीं मुकार सबार तुजे जल्मा दिवस
प्रत्येक रितीन माग्तांव आज आमीं, तुजे खातिरच
देवलेंच्च उदाक दोळ्यांत, अकेर कर्च्या पयलेंच
मांय परत माग्तांव तुका, रास रास उल्लास

# चेडूं येता

काळ्या मोडानीं भरला आकास
थोड्याच्च वेळानीं वोत्ता पावस
वरां जालीं साडे पांच
चेडूं म्हजें येता आज

पावसा म्हजी भिर्मत पाव
इल्लो वेळ वयर च्च राव
चेडवाक म्हज्या भिजायनाका
लजेन ताका बुडयनाका

वारें, तुका कित्याक आम्सोर
पावानाका आमचेर मोसोर
आंगलें ताचें उबयनाका
दुळीन ताका वेंगयनाका

आयका स्त्रियानों एक घडी
काडा मेरेवयली नेजे पेंडी
चेडूं म्हजें गाद्यांत पडीं
नेजे वयर उडतच्च उडी

कोसच्या रेड्यानों दांवानाकात
आंगार चिकोल उसलायनाकात
चेडवाक म्हज्या बेश्टायनाकात
गुंर्कून ताका पळयनाकात

चेडवा हळू दैंवोन येगो
गादे, मेरो, उडोन येगो
वाळो, नंयो, उत्रोन येगो
लोकां नदर चुकोन येगो

कित्याक आज हें वेळ काडता
काळजांत हांगा दाळ शिजता
दोळ्या खांचियेन उदाक दैंवता
लोक नाकाजाल्लें चिंत्ता

तुकाच्च चिंतून आसा मन
दीस रात तुजेंच्च ध्यान
बुडयनाका ही मोगा दोण
एक जातानां हीं काळजां दोन

# दिवे पालवले

आज सूर्यो खंय मायाग जाला
कितें वेग्गीं आज काळोक जाला
इषटां थावन एक खबार आयला
सेजारी गावांत एक अवघड घडलां

इसकोलाच्या वाटेर आसलीं
हासोन, खेळोन संगीं आसलीं
म्हकली घडी नेणां जालीं
अवघडांत तीं बली जालीं

पुल्चीं पुलां बावोन गेलीं
जळची वात पालवोन गेली
नेणतीं, एवनांत पाटीं सकाळीं गेल्लीं
इतल्या वेग्गीं तीं कशीं सरलीं?

नातलिगी तांका कामार मत
नांगी तांका जिवाची खंत
लोक कोणायकी, कशेंय दुर्सात
आज नंय तर, पाल्यां विस्रात

आवय बापयची ती कितें गत
तांच्या काळजांक कितें घडात
तांकां बुजावंक कोण सकात
दोसताना उडास दीस रात

रावाना जाल्यांत दुखां झरी
दुखांक नांमू कितेंच्च सरी
आसों बुर्गीं सर्गीं या संसारी
तीं केदनांय आंज भडव्यांबरीं

देवा, तुंच्च दिताय, तुंच्च वर्ताय
वर्ताय तर, तूं कित्याक दिताय?
लान लान काळजां पाप्सून घाल्ताय
कसली महिमां तूं  दाकवन दिताय?

बुर्गीं आज तीं सर्गार पावलीं
चडतीक नेकेत्रां आज पर्जळोंक लागलीं
दवरा बाळानों आमकांय जागो खाली
मोगाची तुमकां आज श्रद्दांजली

# तर हें कोण?

कागाद आयलां एक म्हज्या नांवार
धाड ल्यांचो नां एड्रस, नां फोन नंबर
कागदा भितर बरयलां तें एकच्च  उतार
बांगारा, हांव तुजे वयर पडल्यां मोगार

अरे! काजारा उपरांती आयलां लव लेटर
खंचें चेडुंगाय आतां पडलां मोगार
चिंलां वयर चिंलां मतिंत घुवोंक लागलीं
काळजा भितर इल्ली कांपणीं सुरू जाल्ली

तर, हें गुटान पोन कर्तेलेंगी, वा बस्सार मेळचें?
वाटसापार आसल्लेंगी, वा फेसबुकार आसल्लें?
नांहीं पूरा कितें आसल्यारी शीदा सांगून सोडतीं
नय, हीं सक्कड कागदां बरंवचा जातिचीं

तर ,घरा मुकलेंगाय वा घरा पाटलें?
पल्तडी आस ल्लेंगाय वा, आल्ताडी आसल्लें?
नां नां, हांका आतां गाद्यांत सारें, रोंप आसतानां
मोगार पडोंवकी पुर्सोत आसचिनां

तर, हें कोंकण्याच्या आंगडिचेगीं, वा फ्यान्सिंत आसल्ले?
मासाच्या आंगडिचेगीं वा,तरकारी विक्तेलें?
नांबा हांचो मोग फकत्त नकली मात्र
तांच्या तांच्या आंगडिचो व्यार जातावरेग मात्र

तर, तें, तर्नाटें टीचर गी, वा नर्स गी?
नोवें दाक्तेर्न गी वा,वकालात शिक्तेलेंगी?
नां, नां, हीं पूरा नय म्हज्या पाटीक पडचीं,
हांकां मेळतात हजार जणां म्हजे तसलीं

आय्योनाका आस ल्ली ही चेडवांची पिसाय
सांगचेबरीं नां कोणालागीं ही विषय
इतली पुर्सोत तर, कोणाक आस ल्ली गाय
ह्या काळारी कागदां बरयतेलीं आसातगाय?

पळेगोकाजारा उपरांती म्हाका आसा डिमांड
कागदा सवें बायले मुकार दाकयलें गमांड
म्हणालें सायबा, हांवेच्च बरयिल्लें हें काजारा पयलें
नेणां, कशें आज तुजेलागीं येंवन पावलें?

# मांय, हांव कितें करूं?

सबार तेंपाची तयारय कर्न
वडिलानीं ओडलें बेसांव दिंवन
लग्ना भेसाच्या साक्रामेंता थावन
दिलेंमू तुमीं म्हाका हांगा ओप्सून

पयली रात आमची मुगदोन गेली
नवी सकाळ ती उदेवन आयली
काल नोवऱ्या घरा तूं पावोन गेल्लीय
सांग मांय, म्हाका सोडन तूं कशी रावलीय

कशी करूं सुर्वात ह्या नव्या घरांत
बोग्ता कितेंगी खावजेणी, कितेंगी भिरांत
हजार चिंतां मांय, गुंवतात मनांत
उडासान तुज्या, उदाक देंवता दोळ्यांत

सांग मांय पयलें आतां कितें करूं?
मांय मांवाकडे वसोन कितें उलोंव?
कुजनांत वसोन हांव रांदाप करूं?
या, गाड निदेंत आस ल्या नोवऱ्याक उटों?

आसात भायर, जायतीं काल्चीं सयरीं
वसोंक नांत तीं पाटीं, काजाराक आयिल्लीं
रावाना जाल्यार पुरो तीं म्हज्या बोंवारीं
नेणां हांव हातूं, कोण पाड, कोण बरीं

आनीं मुकार हांव कोणाक सांगों, कुडिची बदलावण
दाकों कोणाक आनीं हांव, म्हजें नवें नेसाण
कोण रांदतीत आनीं म्हजें, पसंदेचें खाण
सांग मांय, आनीं कोण दितेलीं म्हजे वयर ध्यान

कशी जियेल्लीय मांय, तूं पप्पासंगीं?
तुकाय पयलें अशेंच्च बोग ल्लेंगी
आपवन वरुंक तूं म्हाका, आनीं एनांयगी?
कंय आसाय मांय, सांग तूं वेग्गीं

मांय, कर्ता हांव आज नवो निचेव
रावतेलीं हांगा, आसता पऱ्यान हो जीव
कषट, सूख, विघ्न, अन्वार तें कितेंय येंव
चल्तेलीं मुकलीं मेटां काडन देवाचें नांव·

# माळोव

चल्तानां घरांत भायर भितर
उदेलें सवाल एक मती भितर
कितें आसतेलें घर्च्या माळ्या वयर
आज पुर्सोतायेर पुरा काडतां कोयर

चडुंक माळ्यार देळो हाडलो
पयलें इल्लो गोंटेर काडलो
जरले मात्यार उबोंक लागल्यो
वाळत, वागोणी, दावोंक लागल्यो

दिसलीं मुकार तांब्याचीं आयदानां
कोणें दवरल्यांत गी तीं कोण जाणां
आबान सोर या खातीर वसतू विक्तानां
चिंत्तां, ह्या आयदानांचो ताका उडास नां

वर्सां पयलें दवरलो उंद्रा गूड
उंद्रानीं खेलां खाण, सोडला गूड
चिंत्तालों आमचा घरांत हांवच बुद्वंत
आतां कळ्ळें, उंदीर म्हज्यान की बुद्वंत

बुयांव, नांगोर, मुसाळ, बाण
वसतूर, बूक, आनीं पर्नो सामान
जाता माळ्यार हांचो समावेश
नियाळन आसात कोण्णा, ते आदले दीस

मेळ्यो, मिशियो फुटतानां बरयिल्लीं कवनां
चेडवांच्या नांवां संगीं गुंत ल्लीं भावनां
आटोग्राफ, फोटोग्राफ, थोडीं उडासाचीं कांकणां
एकेक च्च मतीक आयल्यो, तर्नाटपाणाचीं उडकाणां

तुं रे म्हजो, हांव रे तुजें
दुळिंत बुडल्लें हें कागाद कोणाचें
हां, कुटमा भितरली चली मोगार पड ल्ली
काळजां मोडलीं, पूण कागदां उरलीं

पयलेंचे चिंत्तानां आंगांत घाम सुटता
आतां बायले मुकार जालां सादू संता
हो माळोव पर्न्यो काणियो सांग्ता
हाचें दार हांगाच्च दांपून सोडतां

# आमकां नाका, तांची खबर

आमकां तो एक बरो सेजारी
मागणें, रजार कर्ता सांतां बरीं
काम आसा बरें ताका सर्कारी
मदें मदें दरल्यात कंय ताचे चोरी

आसों आमकां नाका, ताची खबर
ओट दिलो ताका म्हण आमचो मनीस
आतां तोच्च आमकां जाला खुरीस
क्रिसतांवांनीं ताका केलो मंत्री

आतां क्रिसतांव्चेरच च्च ताचे कुतंत्री
आसों आमकां नाका, ताची खबर
बायल्या गावांत तो कंय बिकणां वित्ता
हांगा आपूण थंयचो राय म्हणता

दोळ्यांक कुलिंग ग्लास, हातांत विसकी ग्लास
तर, भिकणांतयी जोड्चेत गी दिस्पोडतो ग्रास
आसों आमकां नाका, ताची खबर
संस्थ्यांत थावन ताचें नांव काडलें

बायल्या गावांत तो कंय बिकणां वित्ता
हांगा आपूण थंयचो राय म्हणता
दोळ्यांक कुलिंग ग्लास, हातांत विसकी ग्लास
तर, बिकणांत यी जोड्चेत गी दिस्पोडतो ग्रास
आसों आमकां नाका, ताची खबर

संस्थ्यांत थावन ताचें नांव काडलें
संसारांत ताचें नांव जालें ओडलें
रेतीर कितें, आराधन कितें,
लोक म्हणता, ताचेविणें हें जिणें रितें
आसों आमकां नाका, ताची खबर

मिसांव वावराक वेताना आसलो दुबळो
आपल्या पेल्यां थावन तो जाल्लो वेगळो
आतां ताच्या नांवारच उबो बंगलो
गांवचो ग्रेसत सयत पळेवन आजापलो
आसों आमकां नाका, ताची खबर

फिर्गजेंत ती मुकेल धर्म भयण
आसता सदांच्च ती आन लैन
काळजांत दयाळाय, उत्रांत मोवाळाय
कांय, भितरलो घूट दुस्रो आसागाय?
आसों आमकां नाका, तिची खबर

कोंकणी उलया, कोंकणेंत करात फोकणां
त्या साहितिचीं मुगदानातलीं भाषणां
घरांत इंगलीष नासतां, ताचो तांदू शिजानां
दुबळ्यांची लेखनां, ताच्या दोळ्यांक दिसानां
आसों आमकां नाका, ताची खबर

आमकां कितें पडोन गेलां
ताणीं केल्लें, ताणिंच्च खेलां
हांव म्हाका, देव समेसतांक
पडनांव आमीं दूसऱ्यांच्या गळ्यांक
आसों आमकां नाका, तांची खबर

# भुंयकार आतां रुकार

आकांत एक उटलो गांवार
उमकोळता एक जीव रुकार
अरे! हो आमचो गांवचो सावकार
अत्मो ताचो गेला वाऱ्यार

हळू उटल्या गांवांत खबर
लागल्ले कंय पाटीक ब्यांकागार
चडल्ली कंय वाड ताच्या मात्यार
लाकानीं हो तांचो रिणकार

बोब मारल्ली ताणें सर्कारी दफतरांत
बेळ्या वर्वीं पडलां नषटांत
हालवंक नां तेदनां कोणी कान
आज पळेवंक आयल्यात ताचेंच्च मोर्न

वेडो गालो रेड्या पाड्यानीं
हुंगोन पळयलें सुण्या माज्रानीं
देंवली दुखां जनवारांच्या दोळ्यानीं
कळ्ळां तांका, आनीं नां म्हण तांचो धनी

गर्जे भायर पावस पडल्लो
गर्जे भायर वोत पडल्लें
बेळें पूरा किडियेन केल्लें
पळेवन घडियेन काळीज मोडल्लें

भुंयकारांचे आज काल मोडलां मन
तांच्या मिनतेक मोल नां म्हण
दिनांत कोर्णी एका कासाचें मान
मंत्री भर्तात पोट, हांच्याच्च नांवान

म्हणतात, रैत देशाचो पाटिचो कण
सांगा, ह्या कर्पल्या पाटीक विचार्ता कोण
नवो सर्कार नवें नवें योजन
आवक्च मुगदात, हांगा रावल्यार पात्येवन

उमकाळता आमचा देशाची, मऱ्याद, लज
उमकाळता भुंयकार, जेवंक नासतां पेज
अरे! सांबाळन दवऱ्यां हो रूक, ही दोरी
पाल्यां गर्ज पोडात आनीं कोणाक तरीं

# आज कित्याक वेळ?

वाजलीं वोरां साडेच्यार
पावोंक नां आनिकी हें घरा बागलार
कालेजीक वेचें चेडूं म्हजें
आज तर, हें खंय गेलें?
एक चैन, दोन कानाचें
बांगार हें ताचें सदांचें
नदर कोणाची पडलिगाय?
कोणें तरीं लुटलेंगाय?
चंदादाररू इल्ल व्याप्ती ओळगे
उत्तरिसुत्तिल्ल निम्म करेगे
गर्ज म्हळ्यारी पोन लागानां
दुवेक कितें जालांगी कोण्णां!
सूऱ्यो बुडोंक लागलो लोव
काळजांत भें रिगलें लोव
उबी आतां आंगार लोंव
पात्रोन सांता तुंच्च पाव
तो सदांय पळेवन हासता
दिसाक एक नवलां कर्ता
सांग्तेलें हें काल जेवन आसतां
आतां इल्लो म्हाका दुबाव दोसता!
मोगार पुणीं पडलेंगाय?
घर सोडन दांवलागाय?
अवघड तरी घडलेंगाय?
नंयक, बांयक, उडलेंगाय?
एकाचपारा, माम्मी म्हळ्ळो आयलो उलो
दुवे संगीं एक उबो चलो
च्यार थापडां सवें एवकार केलो
उपरांत हळू विचार केलो
पडल्लीं मांय, गाद्यांत निस्रोन
उक्तोल्लें पर्की चल्यान, भिर्मोत पळेवन
भयणी म्हणोन उलोवंक लागलो
घरा म्हणासर पावोंक आयलो
दुवे, बोगशिगो तूं, पयलें म्हाका
अशें मुकार घडचें नाका
बुर्गिंच्च आपणाक सर्वच्च म्हणोन
आवय जातच्च कळात तुका

# सैरीक जाय

सैरीक जाय, दुवेक सैरीक जाय
पळेवंक मटवें तरी, भरल्या प्राय
डिमांड आमचें चड नां कांय
बरो चेडो कोण तरी आसागाय
वय चेडो इल्लो लांब पुणी आसोंक जाय
बुर्गें मात्र इल्लें आमचें सावळें
मेकप कर्ताच्च तें दिसता गोरें
हाता पायांक सारायता माती, गोबोर
आस्र्या मुकारच आसता घंटोबोर
पूण, चेडो इल्लो पुणीं गोरो आसोंक जाय
देव भिरांतेचे चेडूं आमचें
उटता, बोसतानां, ताणें मागणें म्हणचें
शेंबोर जांबायो काडता शेर्मांवार
धार्मिकांचो खबरो, गाजयता वाऱ्यार
पूण, चेडो इल्लो तरी देवाचपोणाचो आसोंक जाय
इल्ली बियर, इल्ली वडका
थोडे पावटीं पियेवंक ताचें मन वोडता
तशें कांय ताका पाड सवय नां
एकेक पावटीं, शेळ आनीं दम्म बांदतानां
पूण, चेडो मात्र, सूर, सोरो पियेनातलोच्च जाय
शिकपांत बुर्गें खर्चिता वेळ
धावी पास, आनीं बारावी फेल
इंगलिषांत गाळियो बोरे येटता
ऊर ल्या वेळार इल्लें ग्रामर चुक्ता
पूण, चेडो मात्र इल्लो उंचल्या शिकपाचो आसोंक जाय
घरण्यांत आमीं सागोळेगार, इल्लीं दुबळीं
वड जाल्यांव विकून, तोवशीं, वांयगीं, बोबळीं
शिर्कातिलें चेडूं, लानासतानां एकेक पावटीं
चोर्तानां दुसऱ्यांच्या वालिंतलें मिरीं
पूण, चेडो इल्लो तरी पैशांवालो आसोंक जाय
लान थावन दुवेक आसा, मोसोर राग
जायते पावटीं पोडलां, वडिलांचें नाक
घर्च्यांक आंग-पांग दूख सदांचें
सैलापान वाडायिल्लें, बुर्गें मोगाचें
पूण, चेडो इल्लो तरी, मोवाळी, मोगाळी आसोंक जाय
चेडो गांवचो तर, सांगाता रांवचो
बायलो तर, थंय आपवन वर्चो
विंगड घर आसल्यार, भारी बोरें
आवय, बापय नां तर, आनिकी बोरें
वय रे आमचेबरी बऱ्या घराण्याचो
चेडो कोण तरी आसागाय?

# म्हजी टीचेर

कर्ताय वेळ सदां इसकोलाक वेतानां
बोब मार्तलीय तूं म्हाका लान आसतानां
टीचेर, आज दिला महत्व हांवे वेळाक
येतां, वेळार आज तुमकां मेळोंक

शीक ल्लें कांय तकलेक वचनां
मात्या भितर शेण भरलांगी कोण नेणां
टीचेर, शेण –गीण पूरा आतां भायर गेलां
तुमचें लिसांव आयकोंक परत मन जालां

बरय तूं हें शेंभोर पावटीं
मनेकेलस कर्च्यांत भारी पाटीं
टीचर, बरवन बरवन अज बर्पिच्च जालां
तुमचें विशीं कितेंगी बरोव्यां म्हण मन जालां

मोडल्यात गी वसतुरां दुंवचे फातोर
म्हणतालीय, घाल्न येतानां हांवे मेळें वसतूर
टीचर, आज घाल्न येतां नवें प्यांट, नवें शर्ट
तशेंच मारून इल्लें पर्मळांचे सेंट

वय, हजारों भुर्गीं गेलीं तुमच्या वाटेर
बांदून घेतलो, ताणीं तांचोच घोंटेर
पूण तूं दिसताय, आसल्या बरी कोणाच्यागी सोदनेर
कोणाक राकय टीचेर तूं, बसोन पर्न्या खाट्येर

दवरुंक जाय सगळ्यांक मोगा मुट्वेंत
शिकयलेंय तुवें, अनिकी असा मतिंत
पूण असमधान असलें तरी तुमच्या घरांत
सांगूक नां तुमीं, कोणाकी त्या इसकोलांत

टीचर, तुमकां आज हांव, दिंव कितें?
सांगा, तुमच्या पसंदेचे असा तर कितेंय?
तुमकां थंय जेवणाक, कितें सदां मेळता?
हाडुंगी इल्लें भुत्येंत मास, मासळी, सुंकटां?

वय टीचेर, तुमकां आज हांव येतां मेळोंक
गुलोब दिंवन तुमकां नमसते म्हणोंक
सांगा टीचेर म्हाका, सांगा सार्कें
तुमच्या अनाथ आश्रामाचें दार, कितल्या वोरार उग्तें?

# आमचो गांव, आमची माती

आमीं दोगी इषट लान थावन सेजारी
कातीन तीं गोरीं, आमीं सावळीं
आमचें मदें नां कांय लडाय, जगडें
जाल्यारी, पयलें थावनी उणेंच उलोवणें

तो भर्ती जालो, इंगलीष माद्यमाक
आनीं म्हाका वर्न गालें, कन्नड माद्यमाक
ताचें सुरू जातानां, हौ आर यू, हौ डू यू डू
हांवें, स्लेट कड्डी दर ल्ली मात्र, बरवंक आ, ई, ऊ

तीं ग्रेसतां, तांचें कार्ड एपीएल
आमीं दुबळीं, आमचें कार्ड बीपीएल
सर्कारान दितानां आमकां, तांदू, सकर, गोड
तीं पळेवन आमकां, कर्तालीं लान तोंड

दीस, महिने, वर्सां, जालीं अशिंच पाशार
आमचें दोगांयचें शिकाप, रावलें एका हंतार
दुस्रे दुस्रे वाटेन लागल्यांव आमीं कामार
तो जालो आफिसर, आनीं हांव सागोळेगार

आवय बापयक, तोयी एकलोच्च, हांवी एकलोच्च पूत
तो उडलो पर्गांवाक, हांव उरलों गावांत
थंय तो, बऱ्याकडे लागलो कामाक
हांव बरे रेडे घेवन, देंवलो गाद्याक

शिकपी तरी, नेसोन पर्नें बैरास
हांवें काडलें बरें बेळें, हऱ्येक वर्सान वरस
ह्या मात्येन आमकां, करुंक ना मोस
पैशे जायते जोडले तरी, दाकवंक नां वेस

पूण, आज पळे हो काळ, गुंवोन रावला
बायल्यागांवाक गेल्लो इषट, पाटीं पावला
नां कंय चड सांबाळ, नां कंय भद्रती
सुकोन गेला हो मनीस, खांवन सुकी रोटी

आयच्या तर्नाट्यांक, गलफा वयर भारी मन
गेल्लीं येतात पाटीं, काम नां म्हण
जर, हाणीं सगळ्यानीं केल्यार एक निर्धार
ह्याच्च गावांती काड्येत अपूट बांगार

# बोगसाणें

पादऱ्याबा हांव एक पात्की
बोगशियात म्हजीं पात्कां वेग्गीं
पात्कां खातीर हांव कर्तां रजार
पूण तुमीं मात्र जायनाकात बेजार
तुमी आमगेर बेज्मेंताक आयिल्या वेळार
दिल्लें तुमकां हांवें शेळें उदाक
बोंडे काडुंक माडांक लागला रोग
आनीं शरबत करूंक लिंबे जाल्यात मारोग
फादर, म्हज्या पिट्टास्पणाक माफ करा
लान्विकायेचो शेर्मांव आयकोन
चूक जाल्ली, तुमकां जेवणाक आपोवन
विसार्तानां तुमीं जेवंक कांव्या कुलेर
शिर्काल्लेबरीं जालें म्हाका कांटो गळ्या बोंवोर
फादर, आमच्या लान्विकायेक माफ करा
फेसबुकार सोभीत चेडो एक कमेंट कर्ता
कितेंगी म्हाका ताचेर मन वोडता
दुवेन म्हाका तुमचो फोटो दाकयतनां
वाजयलें च्यार हाका, पाटीं मुकार पळेनासतानां
फादर, आमच्या कुर्डेपणाक माफ करा
दव्या लोबा सवें, नवें वाच, नवें कार
देव दिता तुमकां, माग ल्लें सर्व
जर, म्हाकायी एक पूत आस ल्लो तर
ताकायी दाडतों, करूंक मिसांव वावर
फादर, आमचा आंगालापाक माफ करा
सांग्तानां तुमीं त्या वेदीर थावन
पावानां दान धर्म तुमचे थावन
मागलें हांवे देवालागीं मौन जावन
वर वेग्गीं ह्या पाद्रीक हांगा थावन
फादर, आमच्या दुबळिकायेक माफ करा
फादर, आमकां चड शिकाप नां
इंगलीष बाजून खांवकी येनां
तुमीं टस्स पुस्स इंगलीष सोडतानां
पोट्टीं जातांव, आमीं पाटीं जाप नासतानां
फादर, आमकां अशिकप्यांक माफ करा
जालीं फादर पात्कां सांगून
उरल्यार धाडतां तुमकां, मेसेज करून
कित्याक फादर तुमीं आसात मौन
सांगा आतां हांव, कितें प्राचीत करूं
फादर, दयाकर्न आमकां पात्क्यांक माफ करा

# मोगा तुजे थावन

पसंद केल्लें तुका, तुजे फोटे पळेवन
दिल्ली भास रेस्पेरांत, हाताक हात दरून
जाता वरस आज, आमीं संगीं रावून
जिण्येंत म्हज्या आयलिगो जायती बदलावण

पसंद म्हाका तुजी चाल, ती तुजी देव भिरांत
वांजेलाचीं उत्रां दिंवन, काळजांत म्हज्या गाल्ताय भिरांत
पसंद गो म्हाका तुजे हासो, तुजो राग, दुबाव
गांवच्या सर्व चेडवांक, आज काल जालांगो भाव

कित्याक नांत तुजेलागीं, खबरो, मसोर, अणकाणे
खंय थावन आयलां तुका, वेग्गिंच्च बोगसुंचे देणें
नितळ मन गो तुजें, नितळ उलोवणें
आयकोंकच नां तुजेविशीं, कोणाथंय दुर्सोणें

दरलाय तुवें म्हजे, जायते काळजा चोरी
उत्रां तुजीं एकेक पावटीं, ती पाजल्ली सुरी
तुंच्च गो म्हज्या, नाकाक ओड ल्ली दोरी
तुज्या थावनंच्च ही जिणीं, चलोन आसा बोरी

गंटोबोर जातांमुगो, आमचें सदांचे उलोवणें
उलयलेंच्च उलयल्यारी, उत्रां पडतात उणें
चिंत्तांगो एकेक पावटीं, वेतानां हेणें तेणें
काजारा उपरांत म्हाका, उणें जालेगाय च्याराणें

इषट मंत्र, कविमित्र, कर्तात मेसेज, पोनां
विचार्तात, कित्याक बाबा बरयनांय आज काल कवनां
वय गो, दीस रात हांव, तुजोच्च रेडियो आयकतानां
तांकां कितें जाप दिंव, सद्याक कांय समजनां

ह्या भुमी वैकुंटांत, हांव आदांव, तुंगो व
सोडचोनां तुका, कितलेय सोरोप जाय तर येंव
मागोन देवालागीं, दिंबियेर पडोन लोव
आमची ही मोगा काणी, अकेर जायनां जांव

# गलफागार

गलफागार हांव एक गलफागार
गलफांत आसतानां पैशे केल्ले च्यार
आतां, गेलां काम, नासतानां खबर
बेकार रावोन महिने जाल्यात च्यार
तांच्या पेट्रोलाक मोल नां कंय
सांबाळ दिवंक तांका, तांक नां कंय
अरे अरबी भावा, फकत तुमचा तेलाक मोल नां
आमचा गावांत पैशांविणें, मनशाकी मोल नां
घरांत आतां इल्लो, दिसता फरक
गर्जे भायर, बायल दाकयता राग
भुर्ग्यांचो नां मोग, नां सैलाप
तिंयी शिकल्यांत, दिवंक पाटीं जाप
खांवचें बंद केलां, आतां पिज्जा बर्गर
चडावत घरांत कर्तांव, आमीं इडली सांबार
मारोग जाल्यात, सुंकटां, शेत्कां, शेवटाळे
आज काल जेवणाक सदां, तेच्च दुरबोळ तारले
आतां, दीस खंचो जाल्यार कितें
मिसतेर सदांय आमगेर दुखिचे
केदनां येत गी म्हण राकोन आसां
नवें मिसतेर उज्वाडाचे
विचार्तात सदां गांवचीं, केदाळा वेताय रे पाटीं
समजनांमू म्हाका, कित्याक लागल्यांत म्हज्या पाटीक
जाता इल्लें बेजार, सत आस ल्लें सांगोंक
तांकां जाय खबरो, गांवार पुरा उबोवंक
ब्यांकागारांचे नां हासो, नां उलोवणें
कळीत जालां आसतेलें, बोल्सांत म्हज्या नां म्हण नाणें
कुटमादारांची सयत, कांयच खबरेर नांत
चुकोन तरीं तांची, आतां पोनां येनांत
दोळे दिसोंक लागले बरे, कूलिंग ग्लासाविणें
समा जातात ते, उण्या मोलाचेयी वाणें
सैकल आनीं पांय वाट, गावांत सदां आसतानां
आतां, कार आनीं रिक्षाची, गर्ज कांय दिसानां
देवा घाल्लिंमू तुका काणीक, आसतानां ते पैशे
काम तूं दाकयनांय तर, जियेंवचें तरी कशें
आतां तुंच्च एक बरी, आनीं नीट वाट दाकय
नां तर वेग्गिंच्या वेग्गीं, सर्गाक च्च आपय

# आमीं केल्ली चूक

तो मानेसत एका ओटान जीक ल्लो
आनीं आमिंय ताकाच्च ओट दिल्लो
पांच वर्सां चल्लो ताचो सर्कार
विस्रानांव ताणें केल्लो अनुपकार

चोवीस वोरांयी तुमकां उदाक दितां
सांग ल्लें आमकां हाणेंच्च त्या दिसा
आतां ह्या बारीक नळाक हाजें मोटें मीटर
चिंतिजय पडता, काक्साकी वसाजय तर

करेंट बिल्ल तुमकां कर्तां उणें
बोबाट मार्न मार्न सांग ल्लें ताणें
वय, करेंट बिल्ल आतां चड येनां
आनीं रातिचीं आट वोरां करेंट च्च आसानां

दितां पुंक्याक, ग्यास, रेशन, वसतूर
तशेंच्च तुमचा कृषेक, सारें, माती, गोबोर
हाजा उन्नांक पात्येवन राव ल्लीं तीं सर्व
थोडीं गेल्यांत मात्येक, आनीं थोडीं जाल्यांत गोबोर

धन्या, उन्नांक तुज्या मत पिशी जाल्ली
तुका ओट दिवन आमची ओड चूक जाल्ली
आतां पिशयापणां थावन आमीं पूरा सुटल्यांव
कोल्यांक सयत आज काल ओळकुंक शिकल्यांव

हांगा पाटीक आमचा लागलां पोट
मानेसत पर्त्यान मागोंक आयला ओट
बीक मागोन तरी, आमीं भर्तांव पोट
आशा दाकवन आमची आडयनाका वाट

परत हो सांग्ता, दितां तुमकां बरो रसतो
डामार सवें तो कर्तां पुर्तो
अरे मुकेल्या, आसल्लया रसत्याचें पयलें पोंड धांप
तेंयी जायनां तर, तुजें तोंड धांप

असल्यां थावन ह्या देशाक आयलां दळिडरपण
ओट दिंवच्यांत आमीं पडतांव चुकोन
देवा, आमां दुबळ्यांची तूं काकळूत कर
आमकां दवर आनीं तांका तूं वर

# म्हजो वोट तुका

आमीं सर्वानीं केलें तर एक मन
इषटा, ह्या एलिसावांत तूं येतालोय जिकोन
आमीं तुकाच्च गाल्तांव, वोट तुजेर पात्येवन
उपरांत, ह्या गावांत इल्ली हाड रे बदलावण

तीं भुर्गीं ग्रेसतांची, इंगलीष शिक्तात
आनीं आमचीं हांगा आनिकी, आ, ऊ, ई बरयतात
आमचें कन्नड इसकोल इल्लें इंगलीष कर रे
आमचीं भुर्गींयी इल्लें, टस्स-पुस्स उलोंवदिरे

आमीं जोड ल्लें आमकां पावता
बाक्री आनीं चटनेंती आमचें पोट भर्ता
उपरांत, हें व्याक्स, आनीं तें व्याक्स म्हणोन
दिनाकारे आमची बाक्री, आमकां कुडके कर्न

सैकल-स्कूटर गाद्या मेरेंतल्यान येतानां
आमकां गाडी-गिडिची कांय गर्ज दिसानां
पूण, गर्जे-आकांताक इल्लें पांवचेबरीं
लान रसतो कर्न दिरे, आंबुलेन्स येंवचाबरीं

इषटा, घरांत गर-गर गुंवचें फ्यान आसतानां
आमकां एसी, कूलराची वोडली आशा कांय नां
रातीं पुणी इल्लो करेंट दिलोय तर
सोशेगात निदतांव रे, पांय सोडन मांद्रेर

गाद्या कामाक नांत जणां, नांत रेडे
वोडले वोडले गादे हडू पडल्यात पळे
आमिंय तें वोडलें टिल्लर-गिल्लर घेंवचाबरीं
उपकार केल्यार पुरोरे, सबसिडी मेळचाबरीं

नावंक-दुवंक आनीं इल्लें आदान दवरुंक
पावानांरे तें नळाचें उदाक वापारुंक
नाका आमकां नोवी बांय, नवें तळें
आस ल्या बांयचेच्च काडल्यार पुरो, इल्लो चिकोल आनीं मेळें

आज काल तूं आमकां दोळ्यांक दिसच्या देवाबरीं
जिकोन येताच्च ह्या गावांत कर इल्लीं कामां बोरीं
तुज्या उत्रांत तूं इल्लें थीर राव
आनीं आमां दुबळ्यांची इल्ली भिर्मत पाव

# आमीं क्रिसतांवचिरे!

भांगाराचो खुरीस गळ्यांत गालन
थोंडार बारीक हासो दिंवन
कोंकणी सवें इंगलीष भास घेवन
शिंपडांवल्यांव आमीं संसार भर्न
बाबा, आमीं क्रिसतांवचिरे !
पाद्री माद्रिंचे खोडियो काडन
नांवां तांची पूरा पाड कर्न
तांकां सदांय खुर्सार मार्न
जियेंवन आसांव रे संतोसान
कर्तांव मीस, रेतीर, आराधन
घरांत नां आमचा समाधान
आवय बापयक आमीं दिनांव मान
आश्रमांत वर्न घाल्तांव मोगान
मिसाक वेतानांयी आमचीं फ्याशनां
टैट फीट नां तर कोणिंयी पळेनां
धांपचा कडे आमीं धांपुंक नां
आनीं म्हणतांव, आमचो लोक समा नां
बाबा, आमीं क्रिसतांवचिरे!
चले भिर्मत गलफाक उडले
वड वड घरां बांदून रडले
चेडवांचें हांगां डिमांड चडलें
काजारी सयत हांगा दोरे उडले
सन्नां मास, बियर, सोरो
आमकां इतलेंच आसल्यार पुरो
सेजार्चो जाय तर बुकेन मोरों
आमचीं नांवां मात्र पात्रार उरों
लांब जालिरे करियमणी
मटवी जाली ती काजारी जिणी
थोडीं आसात आंकवार पणीं
आनीं थोड्यांक वेलें दूसऱ्या जातिच्यानीं
बाबा, आमीं क्रिसतांवचिरे!
तेर्स,आवमरी, आमची जाल्या उणीं
विसरल्यांव जियेवंक क्रिसतांवपणीं
वळक करून क्रिसताची इल्नी पुणीं
सारुयां जिवीत भागेवंत्पणीं
वय रे बाबा, आमीं क्रिसतांवचिरे

# तूं कित्याक उलयनांय

पाटल्यान म्हज्या दांवोन येताय
उग्त्यान कितेंगी सांगोंक सोदताय
लागीं येंवन सैलाप कर्ताय
पोल्यांक म्हज्या उमे दिताय
पूण, तूं कित्याक उलयनांय
रडणें तुजें हांवे आयकोंक नां
हासल्लें केदनांय पळेवंक नां
दीस रात तूं म्हजे संगीं आसतानां
म्हाका कोणायचीय भिरांत नां
पूण तूं कित्याक उलयनांय
घोव सर्तानां, बुर्गीं सांडतानां
सांगात दिलोय, एक्सुरीं जातानां
उसक्यार बसवन मोग केलोय
पोक्रिपोणानीं म्हाका हासोवंक लायलोय
पूण तूं कित्याक उलयनांय
आसत, बांगार, पैशां पोतें
जाय गी तुका आनिकियी कितें
जर, विसार्शी तर तोंड करून उग्तें
दिवंक तयार हांव सर्वस्व म्हजें
सांग रे तूं कित्याक उलयनांय
सांग म्हाका तुजी जात खंची?
सांग रे तुजी भास खंची?
तुका इतली बूद ती कशी
सांग म्हाका इल्लें तुजेविशीं
वय रे तूं कित्याक उलयनांय
ह्या बंगल्यांत रे हांवच राणीं
आयक तूं म्हजी जिण्ये काणी
मोग दितेलीं नांत कोणीं
दीस सार्तां हांगां अनात्पणीं
पूण तूं कित्याक उलयनांय
बुर्गीं म्हजीं सुकण्यांबरीं
शिकाप जातच्च सोडन गेलीं
आतां तुंच्च म्हाका बुर्ग्यांबरीं
राक्तायमू राकण भडव्यांबरीं
पूण तूं कित्याक उलयनांय
मार्गार थावन तुका उक्तोलन हाडलें
दुदा सवें इल्लें शीत गालें
सांग्ता लोक वेतानां, हेणें तेणें
बोरें बुदिचें मांय तुजें सुणें
वय रे तूं कित्याक उलयनांय

# प्राचीत काळ

रडोंक मेळ्यां आमीं समेसत
आपयता मरी मांय, जांवन दुखेसत
नां मांय आमकां हांगा पुर्सोत
आपय आमकां, जर आसा तर गम्मत

पडतानां जेजून हऱ्येक पावटीं
पळयलासतेलें आमचे कुशीन गुंवोन पाटीं
दिवंक येत गी कुमकेक कोण तरीं
आमीं, केलें पळेवनी पळयनातल्याबरीं

दिल्या पाल्यां वाचुंक ती खुर्सावाट
चिंतून बोगल्या खुशी, चडुंक इगर्जे वाट
देंवायतालों खंडीत, नकली दुखां काट
थापुडचाक सर्व लोकानीं, येवन म्हजी पाट

वरुंक जाय खुरीस घरान घर
सांगालागलो आज मिसार फिर्गज विगार
खुर्साक गालो लोकानीं फुलांचो हार
आनीं रिक्षार बोंवडायलो सगळ्या गांवार

बिडी, सिग्रेट, सोरो पयस केलें
खाड, मिशियो पूरा वाडुंक सोडलें
भक्तिपण बायल्यान आमीं दाकोवंक दिलें
त्या फारिजेवां बरीं आज आमिंय केलें

निमाण्या सुक्रारा वोडलो उपास केलो
फेसता दिसा बाब पियेवन टैट जालो
चाळीस दिसांचो राग ताणें आमचेर काडलो
आमकां खाली पोटार च्च निदोंक लायलो

दुळिंतलीं आमीं दुळीक वेतांव
आमीं हें उतार विस्रोन सोडतांव
दूसऱ्यांची पात्कां उसतुंक वेतांव
आमचा पात्कांक आमीं माती गाल्तांव

दुबावतांव सोम्या तुजेर, त्या तोमासाबरीं
देकुंन च्च कर्तांव घात जुदासाबरीं
जियेंवच्याक पात्कांविणें ही जिणी बोरी
दी देवा काळीज, नितळ सांताबरीं

# सर्गीं पयण

सुटयली मांद्री रातचा वेळार
नेणारे नीद पडली खंच्या वेळार
उटयिल्ले बरीं जालें एकाच्च फरा
अरे! सां पेद्रू उबो घर्च्या दारार

    हातांत म्हज्या ताचो हात
    म्हणालो वचुयां सर्गाराजांत
    समजालें म्हाका आतां मतिंत
    मेल्लों म्हण हांव काल्चे रातिंच

गुंवडायली दिषट घराक, सर्गार थावन
कुंकडां बोब मार्तात गुडांत थावन
वेतालों सदांय तांका भात घेवन
कोण घालितगी खाण तांका आज थावन!

    गडाय आसा माळयार, पिकल्यांत कोण्णां केळीं
    तांदू गाला भिजोत, सकाळीं कर्च्याक पोळी
    जाळ उडयल्या नंयत, शिर्कल्या आसतेली मासळी
    सां पेद्रू!, उरल्यात मू हजार रटावळी

विचारलें सांताकडे वेताना वाटेर
कित्याक सायबा आयलोय दिनासताना लेटर
म्हणतारे हो, पुता हें देवाचें आर्डर
चिंतलें हांवे, तोंड म्हजें दांपचेंच बेटर

    सकाळीं फुडें आयलो इश्ट करीय
    येंता नायक्रे, इन्नू मनकंडिरिया?
    सदांचो उलो ताचो म्हाका
    पाटीं जाप दिवंक आज जायना म्हाका

दुबाव जालो गांवच्या लोकांक
फोडलें पोणसाचें दार एकाच्च माराक
पोनां वयर गेलीं पोनां बुर्ग्याबाळांक
गेला मनीस तुमचो म्हण वयल्या घराक

    एकाच्चाणें कसलोगी आवाज मारलो कानांत
    ऊठ बाबा, उदाक आयलां बायल्या नळांत
    अरे! आसल्लोंगी तर हांव एदोळ स्वपणांत
    चिंतून उदाक देवलेंच दोळ्यांत!

# वाग आयलो वाग

हाणें पोळेलो, ताणें पोळेलो
हांगा दिसलो, थंय दिसलो
गावांत ओडलो आकांत उटलो
वाग एक दिषटीक पडलो
बाबा, वाग आयलो वाग

बाग्वोन चल्तेले नीट जाले
हळू चल्तेले, चुरूक जाले
शिरां शिरांनी रगात धावोंक लागलें
च्यारीं कुशिनीं दोळे घुवोंक लागले
बाबा, वाग आयलो वाग

चलोन वेचें जालें उणें
रिक्षागारांक भारी बाडें
हांच्या बोल्सांत आमचें नाणें
रावलें आतां तांचे रडणें
बाबा वाग आयलो वाग

पिंवडे, बेवडे जिवांत बरे जाले
रातचें मार्गार लोळचें सोडलें
साट पियेल्लें, भियान पिर्वोन गेलें
दीस बुडच्या पयलेंच घरा पावले
बाबा, वाग आयलो वाग

मुधोळ,डाबर,आनीं काट
गेलीं सुणीं वागाच्या पोटाक
नां, भौ भौ नां सुण्यांचो बांक
अपरूप जालीं सुणीं दोळ्यां दिषटिंक
बाबा, वाग आयलो वाग

उणें जाली रातची नारला चोरी
चोरांच्या पोटाक पडल्या सुरी
नां, रातीं दुक्रांची हराहुरी
बरें जालां बेळें वागाद्वारीं
बाबा, वाग आयलो वाग

पालवोन गेलो मोगा उजो
चेडूं म्हणता रानांत मेळोंक नजो
जायनांत पयलेंच्या बरीं दिवंक कीस
रानाक गेल्यार वाग दिता मीस
बाबा, वाग आयलो वाग

वागाक मारुंक सर्कार सोडणां
हो हांगा आमकां सोडनां
भियान भियान जिवीत सार्तांव
जीव आसोनी, सदांय मोर्तांव
बाबा, वाग आयलो वाग

# मांय, आज तुजो दीस

सुकणीं गावोंक लागल्यांत गानां
बुर्ग्यांची उल्लासान भरल्यांत मनां
रांदपा कुडांत आवाजतात आयदानां
मांय तुजो जल्मा दिवस म्हणताना

एक नय, दोन नय, सत्तर आनीं तीन
आसाय तूं आजून यी बऱ्या भलायकेन
सुडसुडी तूं तेलांत पुटचा सासांवाबरीं
पर्जळताय तोंडार सदां लिल्ली पुलांबरी

दवरला देवान तुजे वयर हात
देकुन्‌च्य तुका जल्मल्यांत बुर्गीं आट
रेवडावन सर्वां थंय मोगा काट
जियेवंक दाकयताय सोंपी वाट

दुबळ्या घरांत जल्म घेवन
शेतां भाटानीं, वावर कर्न
पावसांत, गिमेंत, बिजोवन, घामेवन
वाडोन आयलीय तूं देव भिरांतेन

काडन दीस ते बुकेन, तानेन
पिंवड्या आबाच्या, भियान, मारान
राव ल्यान तुवें सोसणिकायेन
आज आमीं आसांव बऱ्यान

शिक्षक तूं, आमीं चूक कर्तानां
वकील तूं, घरांत जगडें जातानां
वयज तूं, आमीं दांटून पडतानां
इजनेर तूं, आमीं जिणीं सोभायतानां

मांय, होगळिकेक उत्रां पडलीं उणीं
कषटी तरीं तुजी सुफळ जिणी
आमकांय शिकय तूं इल्लें पुणीं
फूड करुंक, येंवचा अन्वारानीं

येंवचाक सबार मुकार तुजे जल्मादीस
माग्तांव बोरें, दिंवन पुलांचो घोस
नेटोवन सर्वां तुज्या गालार उम्यां रास
परत तुका मांय जल्मा दिसाचे उल्लास

# येगो चेडवा फेसता सांतेक

नशीबान दिला सांगात
चेडवान हळू दरला हात
येगो चेडवा म्हजे संगीं
बोंव्यां आमीं फेसता सांत

दवरलो पांय इगर्जे बागलार
वाती विक्तेल्यानीं केलो एवकार
नाकारे वाती ह्या पावटीं
चेडवाचो हात आसताना हातीं

विकोन आसा एकलो दूद क्यांडी
दूद नां, फकत्त उदका उंडी
इगर्जे मुकार रावोन गाडी
गांवचा लोकांक हो लायता शेंडी

कुशीन पुग्गे दिसतात बरे
आपवन आसा पुंकून वारें
पेंकटांत हांगा भरल्या वाय
वारें गेल्यार, कितें करुंगाय?

टिकेटी काडल्यार मेळता कोंबो
नित्राणेन कोंबो रावला उबो
भावा; कोंब्याक तुज्या रावय सार्को
रागान आमचो काडीत कुडको

नाका चेडवा बोसचें पाळन्यार
वोंकोन गालशी, कोणाच्या आंगार
आसतानां आमचें वेगिंच्च काजार
पाळनें, बांद्यां घरा, वर्सा भितर

सोभीत चेडवां दांवोन आयलीं
लांब कापडार दाकोवन बोंबली
हासोन हासोन उलोवंक लागलीं
खेळाच्या नांवान, लुटोन गेलीं

वेतांमी घरा, आमचा पात्रोना
मांय चिंतीत, फेसताक गेल्यांचो पात्तो नां
निवार बापा, सर्व अन्वारांतलें
तशेंच्च, चडचा फिर्गज अन्वलांतलें!

# मोगा उजो

दुवेक म्हज्या आसा काजार
माम्मी तुजिगो सांगोन आसा आमगेर
आयकोन आसां साकाळिंपुडें निदोन खटल्यार
मत आतां दावोंक लागली, पाटीं वाऱ्यार

देक्तानां तोंडार तुज्या, बारीक हासो
पेटतालो सदां हो, मोगा उजो
चिंत्तालों हांव, तुका सांगों कसो
भियेलोंगो तुटात संबंध इषटागतेचो

निबां तीं काणगेवन हजार
रावतालों हांव तुजे मुकार
आपणावंक तुका हांवे, चिंतच्या वेळार
आड आयलेंमू, हें काळें माजर

उडास आसागो तुका, ती मधूर घडी
दांवोन आमीं काणगेतेल्यांव बेल्लक्यांडी
आज बेल्ल मात्र दूसऱ्यांच्या हातीं
आनीं म्हज्याकडे उरलिंमू फकत्त काडी

तकली आतां जाल्यागो विरार
जळता काळीज मोगा उज्यार
लिपवन दुखां हासत्या तोंडार
मागतांगो तुका बरो फुडार

सुडेतीक एक सुडेती दर्ता
काजाराक तुज्या मोडलां वोळतां
जिणी तुजी तूं सोभाय गो
काजारा माटोव, हांव सोभयतां

उडासान तुज्या मेलों तर रातीं,
येगो पळेवंक, अक्रेक एक पावटीं
उडय गो पेटेर इल्ली तांबडी माती
जळय गो, पोंडार दोन मोगा वाती

उटनांय कित्याक रे, वेळ उतरल्यारी
मारलो मांयचो ताळो, येल्न दोनीं कानांरी
दितां तर एक उमो, ह्या उश्यांक तरी
दिल्ल्याक सांगात, तुटतानां हीं मोगा झरी!

# भासायिल्लो गांव

देवाबापाचीं तीं बेसांवां घेवन
चोर एजेंटाक पैशे खाववन
घर, भांगार, ब्यांकांनीं आडव दवर्न
पावल्यांवरे कशेंय तरी इस्रायेलाक एवन

काम तें सर्वांक एकच, पळेवंक पिडेसतांक
वोगे रावाजे पडता, तांच्या मारांक, बुश्र्या गाळियांक
आसा हांगा उणेंपण, निदेक, खाणांक, जेवणांक
कषट कळीत जातेलें, हांगा एवन बोगल्यांक

नर्स, टीचेर, इजनेर आनीं कुजनेर
पावल्यात सयत हांगा, वकील आनीं दाक्तेर
जाणांत तीं फकत्त मान जिविताक दिनां जयत
पैशांविणें हुंगचें नां घर्चें सुणें सयत

कोंकणो आन्येका कोंकण्याकच लुटता
हें एक मात्र हांगा पळेवंक मेळता
कोड्याळगारां आमीं बुदीन कुरल्यांबरीं
जाल्यारीं जायतीं मनशां हांगा आसात मनांत बोरीं

गावांत मेळ्ळें आयकोंक जायते पावटीं
इस्रायेल जियेतल्यांची जिणी जाल्या म्हण खोटी
सांगा मुकार रावोन एकच एक पावटीं
उर्चीं नां ती जीब उलोवंक दुस्रे पावटीं

मार्ता बोब याजक, वेदी वयर थावन
भायर येया लोकानों, संयभीक पात्कां थावन
फादर, असकत नंयगी हें मनशा संयभ
फायदो नां तुमीं शेर्मांव दिंवन लांब

हांगा आसा जायतो संबंध बरो
आवय, पूत, आनीं भावां, भयणीं मदलो
कोणाच्यागी पात्कांक कोणाक गी वोलावंक नजो
सगळ्या लोकांक एकच तकडेंत तुकोवंक नजो

इस्रायेल भाव भयणी, तुमची जिणीं वोरा मुंदारून
देव च्च तो राक्तालो, हाल्तानां हें जिण्यें तारूं
वायट चिंतेल्यांक तो वाग वेगिंच्य दरूं
नितळ मनाच्या सर्वांक देव बरेंच्य करूं

# पुता, तूं खंय आसाय

दीस गेले सबार उबोन
जालां म्हाका रावोन उबगोण
तोच सार, तेंच जेवण
पुता, खंय गेलाय म्हाका सांडून!

सांगलेय, घर आसा म्हण रिपेरी
राव मांय आश्रमांत इल्ले दीस तरी
येतां मेळोंक सदांय सांजे वेळारी
कित्याक येवंक नांय रे, सबार म्हयने उतरल्यारी?

घर्चे सुणें म्हाका सोधून आयलां
माजर पांयाकडे खेळोन रावलां
गुडांतलो कीर सयत उबोन आयला
तर, म्हजो पूत मात्र खंय पावला?

दुखांनी रातीं भिजता उशें
कश्ट म्हजे कोणाक सांगों कशें
उग्त्यान रडल्यार हांगा म्हणतात पिशें
पुता, तूं कित्याक रे कर्ताय अशें?

कुशिल्यांकडें हांव सांग्तां बडाय
गांवांत म्हजो पुतच राय
ताणीं विचार्ताना जाता करंदाय
पूत, तुजो केदनां येता मांय?

भक्तीक काऱ्यांत पुता तूं सदां मुकार
सोभावन आसतायमूं, बाळोक मरी, मांय मिलार
तुजी मांय हांव, आसा आसऱ्यांत, वळवळोन मुल्यार
मान्वोंची नांत तीं तुका, कितलेंय सोभायल्यार

दीस गेल्याबरीं दीषट जाल्या उणीं
गर्ज पडतानां संगीं नांत कोणीं
सार्ता जिवीत काळोकांत मौन पणीं
देवा, इतलिच्च गी, ही मनशा जिणीं

आक्रेची आशा आसा तुका पळेंवची
चडतेलीं थोड्या दिसांनी मेटां सर्गिची
जांवच्याक्र जिणी बरी मुकली तुजी
धाडतेलीं मागोन बेसांवां देवा बापाचीं

# जै भारत माता

स्वातंत्र्याचो दीस आयलो
काड्यां बावटो माळ्या वयलो
जरले, वाळत, पापुडन सोड्यां
भारत मातेक मान कऱ्यां
जै तुका भारत माता
    अरे, बावटो इल्लो लोव वोडात
    पर्नो बावटो पिंदून वसात
    मार्गाय हांगा आनिकी चडात
    पुडल्या वर्साकी जाय पडात
    जै तुका भारत माता
ओटां खातीर पायांक पडले
ओट दिल्ले पोंडाक पडले
खांवच्यावसतुंक मोल चडलें
दुबळे हांगा बुकेन निदले
जै तुका भारत माता
    रिणकार हांगा देश सोड्तात
    बुंयकार भिर्मत जीव सोडतात
    सोजेर गडियेर मरोन पडतात
    मंत्री मात्र वाऱ्यार उबतात
    जै तुका भारत माता
शिकप्यांक हांगा मान मेळता
अशिकप्यांक सांबाळ चड मेळता
बूद नातलो हांगा राय जाता
बुद्वंत तांचो सेवक जाता
जै तुका भारत माता
    जाती, काती मदें लडाय चल्ता
    काम उणें, बडाय चड दिसता
    पोकाळ उत्रांकी हांगा जडाय आसता
    किडियारी आंब्याबरीं बायल्यान बरेंच्च दिसता
    जै तुका भारत माता
मानेसतान भाषण सुरू केलें
ब्रिटिषांक च्यार गाळियो येटले
तर्नव्यानीं सगळ्यांकी लाडू वांटले
लोक, जांबायो काडन घरा गेले
जै तुका भारत माता
    देश उद्दार मागीर कऱ्यां
    पयलें आमचें गांवचें चिंत्यां
    धर्म, कर्म, विस्रोन सोड्यां
    बरी समाज बांदून हाड्यां
    जै तुका भारत माता

# काजारा उपरांत

काजाराच्या एका दिसा उपरांत
घरा बसल्लों, होकलेक घेवन गोपांत
उलयतनांच्च पयल्या रातिची खुशालाय
येंवन पावलेच्च, बिल्लां सांगाता गांवचे मानाय

सांगल्लें, स्टेजीक नाका चड पुलां बोरो
हिशीन– तिशीन दोन पुलां घाल्यार पुरो
आज ताजें डेकोरेशनाचें बिल्ल पळयिल्लें
पुलांच्यानिकी पयलें म्हजें, तोंडच बावल्लें

दोन्ंच्च मैलां तरी, हांव गाड्येर गेल्लों
रेस्पेराक तो म्हाका, हळू हळू वर्न गेल्लो
आज ताणें, ताच्या काराचें बाडें सांग्तानां
चिंतलें, शिसतेन हांव चलोन्ंच्च वेतां आसलों

हांगा दाकोवन, थंय दाकोवन बरें हासायिल्लें
हासोन हासोन फोटे ताणें बोरे काडल्लें
आज फोटोग्राफरान ताचे पैशे विचार्तानां
हांव हासोंनच रावल्लों, कारण नासतानां

त्या मानेसताकडे आसा, तालेंत विशेस
होगोळसुंचें, गाळियो येटचे, ताणें मैकारच
आज, ताच्या MC ची रेट, दाक्षेनासतां सांगल्लि
मूय सयत भायर आयिल्ली, कानां भितर गेल्ली

खंचे पद तें, समा समजानातल्लें
तरी DJ वाल्यान, सयऱ्यांक बोरें नाचायिल्लें
आज ताचे पैशे फारीक करुंक
हांवेयी च्यार घरा वोसोन नासाजे पडलें

उणें पोडी, आनीं चड आसोंदी कडी
पावता लोकांक निवरावंक, भुकेची वोडी
कितलें सांगल्यारी, क्याट्रिंग वालो आयकल्लोच्च नां
आज ताचें बिल्ल दिंवन, जिबेक म्हज्या रूचच नां

वाणें, वसतूर, बांगार, शिंगार
मुगदोंचे नां अशें, सांगोंक गेल्यार
अब्बा देवान जोडल्लें, मनीस मोडिना जांव
मोडल्यारी, परत काजार जायनां हांव

# मिसांव वावर

फादर, आमचेर आसों, तुमचें बेसांव
तुमचें थावन शिकल्यांव लिसांव
बरें जांवच्याक तुमचें मिसांव
देवालागीं मागोन आसांव

दितात लोकाक साक्रामेंत
आरवन दर्च्याक क्रिसती मोगांत
जल्मा थावन मर्णा पर्‍य्यांत
पावतात तुमीं आमचा गर्जांत

भागी ती आवय जल्म दिल्ली
सुनेक, नात्रांक आशेनातली
तांचोयी आसा साक्रिफीस
जोडून घेंवचांत याजकी भेस

रसत्या कामेल्यांबरी तुमची जिणी
तांची, तुमचीं एकच काणी
गळयिल्या बरीं ती कोंतामणीं
आज हांगा, पाल्यां खंय नेणां कोणीं

दवरुंक उडासांत मधूर घडियो
तुमचे संगीं काडतात विडियो
करून पाटल्यान हजार खोडियो
सांगून बोंवतात तुमचेच्च चाडियो

वर्स भर वोडतात तुमचे पांय
दिसानां तांकां काळजा घाय
निमाण्या ब्रेसतारा दुंवन पांय
तांकांच्च तूं मोग दिताय

मीस लांभायल्यार सांत म्हणतात
बरें नेसल्यार ग्रेसत म्हणतात
सल्गेन आसल्यार बुर्गो म्हणतात
नावां तुमचीं गांवार गाजतात

फादर, बरें करूं तुमकां देव
खोव्यांक बरी बूद दिंव
देव आपवणीं जायती जांव
किसती पर्जा बरी जांव

# मोग करूं कसो

मोग करा एकामेकासो
आयलो उडास वांजेलाचो
मोग करूं तर कोणाचो?
मोग दाकंवचो जाल्यारी कसो?

मांयकडे वसोन म्हळें
मोग तुजो कर्तां पळे
म्हणाली ती वसोन पप्पाकडे
चेडो कालेंगी म्हणता पळे

भयणी तुजो हांव मोग कर्तां
पूण हें म्हजेर दुबाव कर्ता
कंयगी नवें चेडूं बेटलां दिसतां
देकून हो म्हज्या पाटीक पडता

भावा तुजो मोग कर्तां
हो म्हजेर रागान पेटता
पैशां खातीर आयलाय दिसता
आज कांयच नां दिवंक म्हणता

विचारलें एका स्त्रियेलागीं
करुंगी मोग हांव तुजेलागीं
म्हणता, दीस तुजे पुरा भरलेगी
पाटिची चरब म्हणी काडिजेगी

इश्टा, तुजो हांव मोग कर्तां
सांगलेंच्च म्हाका गाळियो येटता
कितेंरे आनिकी मतीर नांयगी
काल्चें आनिकी पिर्वोंक नांगी

वाटेर सोभीत चेडूं मेळ्ळें
मोगार आमीं पड्यां म्हळें
म्हणालें, मोगाक तुज्या उजो लाय
तकलेंत दिसताय तूं समा नांय

देवा, मोग तर करूं कसो
घुंवताना सयतान दुबावाचो
संसार जाला आज मतलबाचो
मोग तूं आमचो कर्ताय कसो?

# गाद्याक देव्यां

देवान दाकयला मोग खरो
पावस आतां वोत्ता बरो
रैतां मात्यार चिंत्ता बोरो
म्हणतात, बेसाय आमचा जल्माक पुरो

जणां नांत करुंक बेसाय
थोड्यांक आतां भरल्या आळसाय
बेळें करुंक नां म्हण धयर
शिकाप शिकोन गेलीं भायर

जालें तर अशेंच्च मुकार
रावोंक पडतालें खाली पोटार
पैशे, बांगार, खावंक जायनां
खाणां विणें जियेवंक जायनां

काम, शिकाप, दवर्न कुशीन
चिंत्यां इल्लें रैतां विशीं
काड्यां आमीं मेट पुडें
चल्यां आमीं गाद्याकडे

वकील, शिक्षक, मुकार येया
दाल्यांत सारें भर्न दिया
गलफागार, तुमीं दिसतात बरे
तासा मेरो घेवन खोरें

इजनेर, कुजनेर, येया वेळार
तयार करा च्याये फळार
नर्स, दाक्तेर, वेगीं येया
नेज बुड्डुंक आयतीं जाया

पाद्री, माद्रिंक काम नां चड
दिया कामेल्यांक उदाक गोड
ब्यांकागारांक नां पैशे मेजुंक
नांगोर घेवन फकत्त कोसुंक

चाल्तें जिवीत विसोन सोड्यां
कामांत आमीं खाल्तीं जाव्यां
इल्लें तरी नवें शिक्यां
बरें बेळें आमिंय काड्यां

# भिर्मत म्हज्या इषटाची

जावंक जाय रे म्हणोन एक काजार
बायला गांवा थावन इषट आयलो रजेर
चेडवां सोदलिरे ती हजार आनीं हजार
तांतून दिलेरे एकल्याक काजाराचे उतार

पळेवंक दिसताले सोभीत जांवन सावळें
गुणांत रे तें खाल्ते आनीं बोळें
काजार जाल्या उपरांतच तें कळ्ळें
हें बेश्टेंरे कुसुल्लें गोसाळें

म्हणताले पयलें, तूं म्हजो जिविताचो राय
विसातरि आतां तूं जीव कित्याक खाताय
जालारे काजार पळेंवन रे ती सोभाय
कळ्ळेंरे आतां ताका त्या मेकपाची अपुरबाय

तो थंय गोळतालो बायलागांवचा रेवेंत
हें हांगा खेळतालें, दुस्रांच्या वेंगेंत
नातल्लेरे उणेंपण, खंच्याय रीतिंत
उणेंरे फकत, एकामेका मोग दिंवचांत

मेळतालिंरे पयलें एकामेकाच्या मोगांत
जळतात आतां एकामेकाच्या रागांत
उलयतलिरे आयदानां तीं रांदचा कुडांत
कळतालें पयस थावन च्च, घरांत जाला आकांत

सांगल्लेंरे ताका हांवे जायनाका म्हण काजार
आयकुंकच नां रे, तें म्हजे बोरें उतार
दवर्न रे आतां दोनी हात मात्यार
रडोन बसलारे अतां, घर्चा मुकल्या दारार

दिसतालिरे भिर्मत म्हज्या त्या इषटाची
सार्तलोरे जिवीत, भारीच कषटांची
दवरून रे मुकार, बाटली ती सोऱ्याची
सांगोन आसा काणी ती नितळ आंकवार पणाची

काजाराचोरे तो साक्रामेंत
घेतात सक्कड तो संभ्रमांत
मागीर थोड्यांच थेंपा उपरांत
कळनारे, कित्याक थोडी घुस्पडतात जिवितांत